# मनीसगांव

कवींद्र व्यंकटेश फळदेसाय




ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन

---

शणै गोंयबाब महोत्सवाचें अस्मिताय वर्स

---

मनीसगांव (काणी)

-- कविंद्र व्यं. फळदेसाय

प्रकाशन क्र. ३१



पयली उजवाडावणी : २००३

उजवाडावपी :
मिलींद कमलाकर म्हाळशी
ॐ श्री दत्त,
श्रीस्थळ, काणकोण, गोंय.

छापपी :
नवादित्य पॅकेजिंग्स्,
माशेल, गोंय.

अक्षरजुळणी :
गिरीश भि. मयेकार

मुखचित्र आनी रेखाचित्रां :
चित्रसेन शवाव
(वाय्. वी. सुतार)

मोल - १५/- रुपया

MANEESGAON (Story)

-- Kavindra V. Phaldessai

Publication No. 31



First Publication : 2003

Publishers :
Milind Kamlakar Mhalshi
Om Shri Datt,
Shristhal, Canacona, Goa.

Printer :
Navaditya Packagings,
Mashel, Goa.

TYPESETTING :
Girish B. Mayekar

Cover & Sketches :
Chitrasen Shabab
(Y. B. Sutar)

Price : Rs. 15 /-

---

*हें पुस्तक गोवा कोंकणी अकादेमीच्या शणै गोंयबाब महोत्सवाचे बालसाहित्य प्रकाशन अनुदान येवजणेखाला छापलां.*

म्हजें पयलें पुस्तक

# मनीसगांव

म्हजे अपुरबायेचे धुवेक

'आभा' क

## म्हज्या माणकुल्या इश्टांनो

म्हजें पयलें पुस्तक तुमचे फुडें दवरतना उपाट खोस भोगता. हें माणकुलेंशें पुस्तक खास करून म्हज्या माणकुल्या इश्टांखातीर. मनीस म्हण जगतना आमकां जशें स्वातंत्र्य जाय, घडये तितलेंच स्वातंत्र्य  जगपाखातीर मोन्या जातींकूय जाय. कारण, तांकांय मन आसता. ही गजाल म्हज्या माणकुल्या इश्टांक सांगपाचो हो ल्हानसो यत्न.

म्हज्या लेखनाक प्रोत्साहन दिवपी म्हजीं आवय - बापूय, म्हजी घरकान्न, निराकार शिक्षण संस्थेचे पदाधिकारी, प्राचार्य भौ. नारायण देसाय हांचो सगल्यांचोच हांव उपकारी आसां.

गोवा कोंकणी अकादेमीचे हांव उपकार मानतां. तशेंच भौ. कमलाकर म्हाळशी हांच्या ऋणांत हांव सदांच उरतलों. हांवें एक फकत ल्हानशी काणी बरयली. पूण ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशनावरवीं काणयेक एका सोबीत पुस्तकाचें रूप दिवपाचें सगलें श्रेय म्हाळशी सराक फावो जाता. पयलें पुस्तक उजवाडाक येतना खूब खोस भोगता. आनी हें पुस्तक जर म्हज्या माणकुल्या इश्टांनी वाचलें जाल्यार ती खोस आनीक वाडटली. तर म्हज्या माणकुल्या इश्टांनो, तुमी वाचतले न्हय हें पुस्तक?

पैंगीण, काणकोण, गोंय. **कवींद्र व्यंकटेश फळदेसाय**

## मनीसगांव

एक आशिल्लो ल्हानसो गांव. त्या गांवांचें नांव आशिल्लें मनीसगांव. त्या गांवांत रावताले दोन डोंबारी. एकट्याचें नांव यल्लप्पा, तर दुस-याचें नांच मल्लप्पा. दोगूय जाण खेत्यांचो, हाराचो खेळ करून आपलें पोट भरताले. मल्लप्पा मात्सो आळशी आशिल्लो. यल्लप्पा मात्त फांतोडेर उठ्ठालो. ताचेकडेन दोन खेतीं आशिल्लीं. एकट्याचें नांव सोनू तर दुस-याचें नांव मोनू. एक व्हडलो हारूय तांचेकडेन आशिल्लो. ताचें नांव आशिल्लें टोनू.

एका दिसा यल्लप्पा फांतोडेर उठलो. ताणें मल्लप्पाक उलो मारलो, "मल्लप्पा, उठ. मार न्हिदला कुंभकर्ण कसो! चड आळशीपणां बरीं न्हय." मल्लप्पा बेजारलो. "यल्लप्पा, तूं म्हाका सारको न्हिदूंक लेगीत दिना मरे! थंडी कशी पडल्या पळय. आनीक थोडो वेळ न्हिदतां हांव." "आरे, उठ. खेळ करपाक मलकापुराच्या बाजारांत पावपाक जाय. पोटाक किर्तेय जाय मरे?" ताणें एक थापट मारून खेत्याकय उठयलें. "खेतींय आळशी जाल्यांत." खेतीं म्हणूंक लागलीं, "आमकां कुडकुडो खाता." "कुडकुडो खाता तर घे!" अशें म्हणून ताणें खेत्याचेर आनीक एक थापट उडयलें.

रडत रडत दोगूय खेतीं उठलीं आनी तांचे वांगडा न्हिदिल्लो हारूय जागो जालो. यल्लप्पान आनी मल्लप्पान आपलें सामान बांदून घेतलें आनी सोनू, मोनू, टोनूक वांगडा घेवन ते मलकापुराक वचपाक भायर सरले.



चलतां चलतां दोगूय जाण मलकापुराच्या बाजारांत येवन पावले. तो दीस बुधवार आशिल्लो. बुधवाराक मलकापुराक व्हडलो बाजार भरतालो. त्या दिसाकूय बी बाजारात खूब गर्दी आशिल्ली. लोक कपडोलत्तो खरेदी करपाक गुल्ल आशिल्ले. मल्लप्पा आनी यल्लप्पा एका मेकळ्या जाग्यार थोडो वेळ बसले. तांणी दोगूय खेत्यांक कपडे घाले. कपडे कसले? तर सोनूक चड्डी, बुशकोट जाल्यार मोनूक व्हिस्तीद. दोगांनीय खेळाची तयारी केली.

यल्लप्पा हातांत डमरू घेवन मोठमोठ्यान लोकांक आपोवंक लागलो. "बाब यो,बाय यो." तुमकां खेत्यांचो खेळ दाखयतां. सोनू मोनूची करामत दाखयतां.

"ये बाब, तूं कसो आसा? बरो आसा? बाय तूं कशें आसा? बरें आसा?" मल्लप्पा जमिल्या लोकांची वासपूस करतालो. खुबशे लोक जमतकूच तांणी खेळ सुरु केलो.

डमरू वाजयत यल्लप्पा म्हणटालो, "सोनू, उडकी मार." सोनू बाबडें उडकी मारतालें, मोनू उडकी मारतालें. उडकी मारना जाल्यार यल्लप्पा तांकां बडयेन मारतालो. ताणें दोगांय कडच्यान वेगवेगळीं नाडेपेन्नां करून घेतलीं. दोनूय खेतीं जार जाल्लीं. इतल्यांत यल्लप्पा आड्डलो, "सोनू, मोनू लोकांक नाचून दाखयात.".

दोनूय खेतीं बाबडीं नाचपाक लागलीं. यल्लप्पान ऑर्डर सोडली, "सोनू, मोनूक शाळेंत पावोवन यो." सोनून मोनूच्या हाताक धरलें आनी तो गोल फेरयो मारपाक लागलो. लोक जोरजोरान ताळयो पेटपाक लागले. खेत्यांचो खेळ यल्लप्पान थांबयलो, तेन्ना मल्लप्पान पेटा-यांतल्यान हाराक भायर काडलो.



येदो व्हडलो हार तो! पूण पोटाक कांय नाशिल्ल्यान सामको बारीक जाल्लो. जमिल्ल्या लोकांक मल्लप्पा सांगपाक लागलो, "हो हार आसा. हाचें नांव टोनू आसा. भिवपाची गरज ना. ताची शक्ती हांवें काडल्या. हो रानांत रावता. व्हडल्या जनावरांक गिळटा. मागीर झाडाक विळखो घालता. आतां हांव ताका पेटा-यांत घालतां." अशें म्हणून मल्लप्पान ताका पेटा-यांत बंद केलो.

खेत्यांचो आनी हाराचो खेळ जातगच, यल्लप्पा, मल्लप्पा हातांत ताटली घेवन लोकांकडेन पयशे मागपाक लागले, "पांच पयशे, धा पयशे कितेंय तरी दियात. आमकां पोट आसा. ह्या मोनजातींक पोट आसा. तांचेखातीर तरी कितेंय दियात." मागीर यल्लप्पान आनी मल्लप्पान जमिल्ले सगले पयशे मेजले आनी खानावळी भायर दोनूय खेत्यांक बांदून दवरले. जगनाच्या खानावळींत वचून ते पोटभर जेवले. खेतीं आनी हार मात उपाशीच उरलीं.

हें अशें सदांच घडटा. एका दिसा जालें कितें? तर, उपाशी खेतीं रडत रडत मल्लप्पाक म्हणूंक लागलीं, "आप्पा, आप्पा, आमकां भूक लागल्या. कितेंय तरी खावपाक दी. दीसभर नाचून आमी जाम जाल्यांत. फाल्यां आमच्यांनी उपाशी पोटार खेळ करूंक जावचें ना."

मल्लप्पाक आयलो राग. "भूक लागल्या न्हय? घेयात तर." अशें म्हणून मल्लप्पान तांचेर दोन थापटां फुलयलीं. दोनय खेतीं बाबडीं रडत बसलीं. तांच्या रडपाचो आवाज आयकून वळवळ करपी हारूय वोग्गी रावलो. यल्लप्पा आनी मल्लप्पा सुशेगाद न्हिदले. अर्धपोटार त्या खेत्यांक आनी हाराक मात न्हीद येना जाली. तीं उलोवंक लागली.

"कितले दीस म्हूण अशे व्हळव्हळे काडप.?" सोनून रडत म्हळें. "म्हज्यान तर सोसूंक नजो, हें सगलें." मोनू रडूंक लागलें.

"काय बरी मेकळी जीण जगताले आमी रानांत. ह्या झाडावेल्यान त्या झाडार उडक्यो मारपाक कितली मजा येताली!" सोनूक पयलींच्या दिसांची याद जाली. "आई-बाबा, आजी-आजो सगलीं कशीं व्हडा खोशयेन एकठांय रावतालीं." मोनूक घरच्यांची याद जावन ते रडूंक लागलें.

"ह्या मनशाक एकठांय रावप म्हळयार कितें तें समजना. आनी तांका एकठांय रावप जमना." पेटा-यांतल्यान टोनून तिडकीन म्हळें.

"बरोबर, यल्लप्पा आनी मल्लप्पा तर सदां झगडतच आसतात." मोनून तांकां तेंको दिलो.

"ह्या संकश्टांतल्यान आमची कोण सुटका करतलो?" सोनून म्हळें.
"वनदेवता तरी येवूंक जाय आशिल्ली." मोनूक दिसलें.
"पूण ती तर वनांत रावता. ती हांगा गांवांत कशी येतली?" टोनून म्हळें.
"मागीर आमी अशेंच रावप? उपाशीं?" सोनून विचारलें.
"सोनू तूं भियेनाका. कोणूय तरी मदत करतलो." टोनून म्हळें.

हें अशें सदांच घडटालें. दोनूय खेतीं आनी हार उपाशी पोटार खेळ करताली आनीं रातची आपल्या घरच्यांची याद काडीत रडत बसतालीं. तांचे दुख्ख तांच्यांनी सोसूं नजो जाल्लें. संकश्टांतल्यान सोडोवचें म्हूण तीं वनदेवतेक साद घालतालीं.

**"वनदेवी, आमकां पाव**
**आमी तुजीं भुरगीं**
**आमच्या दुख्खाक ना ठाव**
**वनदेवी आमकां पाव."**

एका दिसा तिगूय जाणां अशींच रडत वनदेवतेक साद घालतालीं. तांचे तें दुख्ख पळोवं नजो जावन वनदेवता प्रगट जाली. ती पाचवोचार शालू न्हेशिल्ली. तिच्या माथ्यार सोबीत फुलांचो मुकूट आशिल्लो. तिच्या गळ्यांत फुलांच्यो माळो आशिल्ल्यो. तिणें तांका म्ह-यांत घेत विचारलें, "म्हज्या भुरग्यांनो तुमचें जाला तरी कितें.? तुमी अशीं रडटात कित्याक.?"

आमकां भूक लागल्या. पोटांत कांयच ना! सोनून म्हळें, "हे डोंबारी आमका मारतात, उपाशी दवरतात." टोनून सांगलें. "हें पळय. आमकां बांदून घाल्यात." दोरयो दाखयत मोनून म्हळें. "ते मात सुशेगाद न्हिदल्यात." न्हीद काडटल्या यल्लप्पा, मल्लप्पा हांचेकडेन बोट दाखयत सोनून म्हळें.

"वनदेवते, आमी तुकाच उलो मारताले." जीभ फाकारीत टोनून म्हळें. तांचें ते दुख्ख पळोवन वनदेवतेक खूबच वायट दिसलें. "म्हज्या भुरग्यांनो, तुमचो उलो आयकुनूच हांव हांगा आयलां. तुमी कायंच भियेवपाची गरज ना आतां." तिणें आपलो हात मुखार केलो आनी म्हळें, "देवा, उपाशीं भुरगीं तुजीं, तांकां दी फळां आनी तांची भूकतान न्हिवय." आनी अजापच जालें! तांचे मुखार आंबे, पेरां, केळीं, ततयां येवन पडलीं. मोनून म्हळें, "वनदेवते, हे सगलें खावप कशें? आमचे तर हात बांदल्यात." "म्हाका तर पेटा-यांत बंद केला."

रडत रडत टोनून म्हळें. वनदेवतेन पर्थून हात मुखार केलो, "देवा, तुजीं भुरगीं आसात बंधनात. तांकां सोडय." इतलें म्हणटामेरेन दोनूय खेतीं आनी हारूय बंधनांतल्यान मेकळीं जालीं. वनदेवतेन तिगांकूय म्ह-यांत घेतलें. तांच्या कानांत एक युक्ती सांगली आनी ती नाच्च जाली.

वनदेवता वतकूच तिगांनीय पोटभर जेवण केलें. तांका खूब खोस जाल्ली. खूब दिसांनी तीं मेकळीं जाल्लीं. तांणी तिगांनीय एकठांय बसून थारायलें, वनदेवतेच्या आज्ञेप्रमाण वागप. तांणी वेळ व्हगडायलो ना. वनदेवतेचे युक्तेप्रमाण वागपाक आरंब केलो. गाड न्हिदिल्ल्या यल्लप्पाक टोनून विळखो घालो. दोनूय खेत्यांनी मागीर यल्लप्पाचें हातपाय बांदले. न्हिदेंत आशिल्ल्यान तांकां कांय एक कळ्ळें ना. मागीर त्या तिगांनीय मेळून मल्लप्पाकूय बांदून घालो. त्या आळशाक तर कांयच समजलें ना!

तांकां बांदून घालतकूच तिगूय जाण फांतोड जावपाची वाट पळयत मोटे उमेदीन खबरो मारीत बसले.

"म्हाका न्हीद येता, पूण हांव न्हिदचोंना." टोनून म्हळें.

"आतां हाव न्हिदतलो तो यल्लप्पा, मल्लप्पाक बुद्द शिकयतगेरूच," सोनून तिडकीन म्हळें.

"मोनजातीचें दुख्ख कितें हें कळटलें हांकां फाल्यां." मोनू उलयलो.

"फाल्यांसावन कळटलें उपाशी रावल्यार कितें जाता तें." टोनून म्हळें.

खबरो मारतां मारतां रात केन्ना सरली हें तिगांकूय कळ्ळेंच ना. तांचें लक्ष यल्लप्पाचेर आशिल्लें. संवयेप्रमाण यल्लप्पा फांतोडेर उठपाक लागलो. तेन्ना ताच्या लक्षांत आयलें की ताका कोणेंतरी बांदून घाला. ताची नदर मल्लप्पाचेर गेली. तो गाड न्हिदेंत आशिल्लो. ताकाय कोणेंतरी बांदून घाल्लो. ताणें मल्लप्पाक जागो केलो. "मल्लप्पा, उठ. पळय, आमकां कोणेंतरी बांदून घाला." मल्लप्पान दोळे उकते केले. ताची नदर खेत्यांचेर पडली. खेतीं मेकळीं आशिल्लीं. ताका मोटें अजापच दिसलें. मल्लप्पान आवाज चडोवन विचारलें, "आमकां कोणें बांदून घाल्यात?" "आमी." टोनून म्हळें. "आमकां सोडयात पयलीं, ना जाल्यार मार पडटलो." यल्लप्पान म्हळें. मोटमोट्यान हांसत मोनून म्हळें. "ना, तुमकां आमी सोडोवचे नात. आमकां मार दितले?" अशें म्हणून सोनून दोगांयचेरूय एकेक बडी उडयली. "आवय गे! आवय गे!" म्हणून दोगूय जाण बोवाळ मारपाक लागले.

सोनून, मोनून आनी टोनून खेळाक वचपाची तयारी केली. यल्लप्पाक आनी मल्लप्पाक बांदिल्ल्यो दोरयो सोनून मोनून आपल्या हातांत घेतल्यो. दोगांनीय हातांत वडयो घेतल्यो आनी यल्लप्पा, मल्लप्पाच्या खांदार बसले. दोगांकूय मारत मारत ते माकडपूराक वचपाक भायर सरले. हय, तांचेवांगडा टोनूय आशिल्लो. तो धांवत धांवत तांचे फाटल्यान वतालो. वतना गाणें गुणगुणटालो,

**"आज येतली मजा,**
**यल्लप्पाक जातली मजा,**
**आज येतली मजा,**
**मल्लप्पाक जातली मजा."**

करनां करतां तीं सगलीं माकडपूराक पावलीं. झाडापेडांच्या मदीं वसणुकेक आयिल्लो तो गांव. थंय खूब माकड, खेतीं व्हडा खोशयेन रावतालीं. सोनू, मोनूक पळोवन सगल्या खेत्यांक खोस जाली. थोडावेळ ते एकमेकांकडेन उलयले. मागीर सोनून डमरू वाजोवपाक आरंभ केलो. मोनून ताच्या वांगड्यांक आपोवपाक आरंभ केलो. "येयात, येयात. माकड गांवच्या म्हज्या इश्टांनो, येयात. तुमकां दाखोवंक आमी मनीस हाडल्यात. मनशांचो खेळ पळयात." मोनूचो आवाज आयकनाफुडें माकडपूरांतलीं सगलीं माकड, खेतीं एकठांय आयलीं. महापूर आयिल्लेवरीं दिसूंक लागलो, झाडार, पेडार सगलेकडेन गर्दी जाल्ली!

सोनू, मोनून खेळाक आरंभ केलो. सोनू जमिल्ल्या वांगड्यांची वासपूस करपाक लागलो. "दादा, कसो आसा? बरो आसा? माई, कशी आसा? बरी आसा?"

टोनून तालार गावपाक सुरुवात केली.

**"दोन पांय, दोन हात**
**ही मनशाची जात**
**मोनजातीचो करतात घात."**

मोनून आरंभ केलो. "माकडपूराच्या म्हज्या इश्टांनो. हांव तुमकां मनीस दाखयतां. हो मनीस आसा. तो भयानक जावन आसा. तो मोनजातीक सतायता. हाका तराय दिनाशिल्ल्या ल्हानसान जनावरांक लेगीत तो सतायता."

1194

अशें म्हणून ताणें यल्लप्पाचेर एक वडी ओडली. यल्लप्पा "आवय गे! आवय गे!" करत रडपाक लागलो. मोनून यल्लप्पाक नाचपाक सांगलें. यल्लप्पा काकुटेक येवन म्हणूंक लागलो, "म्हाका नाचूंक येना, नाचूंक येना. हांव शिकयतां." अशें म्हणून सोनू ताका वडयेन मारपाक लागलो. तेन्ना यल्लप्पा थयथय नाचपाक लागलो. यल्लप्पा नाचता तें पळोवन सगले ताळयो पेटपाक लागले. टोनून परत सूर धरलो.

**"ल्हान धाकटुले दोन दोळे**
**पूण तो बरें पळयना**
**इल्ले इल्लेशे दोन कान**
**पूण तो बरें आयकना**
**काय बरें सोबीत तोंड**
**पूण तो बरें उलयना**
**सुंदर सुंदर दोन हात**
**मोनजातीचो करता घात**
**मोनजातीचो करता घात**
**मनीस नांवांची ही जात."**




यल्लप्पाचो नाच पळोवन माकडपूरचे सगले रयवासी व्हडा उमेदीन नाचताले. सोनून आनी मोनून मागीर मल्लप्पाकूय नाचोवपाक आरंब केलो. दर एका गांवांत सोनू, मोनू आनी टोनू यल्लप्पा, मल्लप्पाचो खेळ करताले. तांकां नाचयताले. ते नाचूंक तयार जाले ना, जाल्यार तांकां मारताले. टोनू तर मोठ्या तालार गायतालो. खेळ करून जातकूच खेतीं आनी हार पोटभर जेवतालीं. यल्लप्पाक आनी मल्लप्पाक मात्त ते उपाशीच दवरताले. एका दीसा सामकें नजो जावन यल्लप्पान म्हळें, "हांव सामको जाम जालां. म्हज्यान आनीक नाचूंक जावचें ना." "कितेंय तरी खावपाक दियात." रडत रडत मल्लप्पा म्हणूंक लागलो. " उवें रावपाचें त्राण ना आंगांत." यल्लप्पा रडूंक लागलो.

"आमका भूक लागनाशिल्ली?" टोनून विचारलें.

" आमकाय नजो जाताले," मल्लप्पाचेर वडी ओडीत सोनून म्हळें.

" आमीय अशेच रडटाले. पूण तुमी आमकां उपाशीच दवरताले. आतां रावात उपाशीं " मोनून रागान म्हळें.

" पयशे मागतना माऽऽर म्हणटाले, मोनजातीक पोट आसा. तांचेखातीर कितेंय तरी दियात. पूण पयशे मेळटकूच तुमी आमकां विसरताले. फकत तुमीच जेवताले." टोनून यल्लप्पाचेर नेटान शेपडी मारीत म्हळें. यल्लप्पा रडत रडत म्हणूंक लागलो, "म्हाका भूक लागल्या. हे सगले त्रास सोसूंक नजो म्हज्यान."

"अरे वा! कांय दीस उपाशीं रावल्यार ही परिस्थिती आनी आमकां म्हयन्याचे म्हयने उपाशीं दवरताले तेन्ना कळनाशिल्लें?" सोनूक तिडक आयली.

"चड नखरे करूं नाकात. तुमकां आमी अशेच नाचयतले." आवाज चडोवन मोनून सांगलें.

यल्लप्पा, मल्लप्पा रडत रडत पांय धरपाक लागले. "खरेंच, चुकलें आमचें. आमी आनीक अत्तपार वाटेक वचचे नात."

"आरे, तुमकां मनशांक मेकळेपणान जगपाचो हक्क आसा, तसो आमकांय आसा काय ना?" टोनून तिडकीन विचारलें.

"हय, आसा. आतां पटलें आमकां." यल्लप्पा आनी मल्लप्पा रडत रडत म्हणूंक लागले.

"हें तुमकां पयलीं समजल्लें जाल्यार! आरे, आमी कांय तुमचे वाटेक येनात. मागीर आमची जीण तुमी कित्याक इबाडटात?" सोनून विचारलें.

"आमी मेकळेपणान भोंवतना तुमी आमकां धरून व्हरतात. आमी कसलो गुन्यांव करतात रे?" मोनून विचारलें.

"पर्थून जावची ना मरे असली चूक?" टोनून विचारलें.

"ना. ना. आमी अशे केन्नाच करचे नात." यल्लप्पा, मल्लप्पा काकुळटेक येवन म्हणपाक लागले.

"बरें आसा तर." अशें म्हणून तांणी यल्लप्पा-मल्लप्पाक मेकळे केले. टोनून आवाज चडोवन तांकां सांगलें, "पर्थून मोनजातीचे वाटेक वचशात, जाल्यार याद राखात." ते सरशीं यल्लप्पा आनी मल्लप्पान पपा काडली.

सोनू, मोनू आनी टोनू आतां ख-या अर्थान मेकळे जाल्ले. देखुनूच हातांत हात घालून ते नाचपाक लागले, गावपाक लागले.

**"धर्तरेचीं भुरगीं आमी**
**मुक्त आमी भोंवतलीं**
**हांसत खेळत रावतलीं**
**हांसत खेळत रावतलीं."**

*****



## कवींद्र व्यंकटेश फळदेसाय

पैंगीण, काणकोण, गोंय

**जल्म** : १४ जानेवारी १९७२

**शिक्षण** : एम्. ए. बी. एड्.
(गोवा विद्यापीठ)

**व्यवसाय** : निराकार शिक्षण संस्थेच्या मार्शें, लोलयें हांगासल्ल्या सत्यवती सोयरू आंगले उच्च माध्यमिक विद्यालयांत १९९४ सावन मराठीचें अध्यापन.

**लेखन** : अपरिचित, दिशा, एक होता वेडा, बनीचे स्वप्न, आरंभ, संन्यस्त, एक उपाशी कविता ह्यो मराठी एकांकी (अप्रकाशीत).

एक काणी, राजकुंवर शेणला हीं कोंकणी बालनाट्यां (अप्रकाशीत).

पंचवीस परस जास्त पथनाट्यांचें लेखन आनी दिग्दर्शन. एकांकी लेखनाखातीर सेगीत चार वर्सां कला अकादमीचें पयलें इनाम (आंतर महाविद्यालयीन एकांकी सर्त).

दिग्दर्शनाखातीर सेगीत दोन वर्सां कला अकादमीचें पयलें इनाम.

कोंकणी नाट्यछटा, कविता, वात्रटिकांचें लेखन (अप्रकाशीत).

गीत तुजें गायतना आनी शृंगार ह्या कोंकणी ध्वनीफितींखातीर गीतलेखन.

---

**ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन,**
श्रीस्थळ, काणकोण - गोंय. ४०३ ७०२